# वासवदत्ता

**अेक प्रणय नाटय**

( मूळ बरोवपी : श्री अरविंद; श्रुतिकावृत्ती : डॉ. शिशिरकुमार घोष )



रुपकार

**बा. भ. बोरकार**





# निवेदन

प्रणय नाट्यांतली मूळ कथा संस्कृत म्हाकवी सोमदेव हांच्या कथा-
ागरांतली. जायत्या जाणांनी आजवेर ती नाटकांत केळयल्या. पुण योगी
दांनी मूळ कथेंतली परिस्थिती आनी प्रसंग हातूंत खंय बेरीज जाल्यार खंय
की केल्या. अितलेंच न्हय तर कांय पात्रांचीं नांवांय बदल्ल्यांत. वत्स हें
ंतल्या अेका काळच्या अेका देशाचें नांव. पुण हांगा तें राय अुदयनाचें
्हुण वापरलां.

ंतली घटना घडटा ती म्हाभारत युद्ध सोंपल्या अुपरान्त हजार वरसांनीं.
य साम्राज्य विखंड जावन ताजी मूळ राजधानी कौशांबीक व्हेल्ली आसता.
य मोडून जीं ल्हान-ल्हान राज्यां जाल्लीं आसतात तांचेर प्रभाव घालपी
आसतात तीं तीनच. अुदेंनेक मगधराज प्रद्योताचें, अस्तमतेक अंवतिराय
ासेनाचें, जाणें अंकीत केल्लां आसतात दक्षिणेचीं राज्यां, आनी तिसरें
कौशांबीच्या वत्सराज अुदयनाचें, जो आसता परिक्षितिचो वंशज. वत्स
आयला आसलो तरी भुरगो आसता आनी ताजो पालक यौगंधरायण
ाली शक्त वेंचून अवंतीची राज्यलालसा आळावंदाक हाडूंक पळेता.
न मोटो प्रतापी आसलो तरी वत्सान युद्धांत जायत्या फावटी ताका हट-
आसता आनी सध्या दोगांमदीं तात्पुरतो शस्त्रसंधी जाल्लो आसता.

ासेन तरण्या आनी देखण्या वत्साक कपटान धरून हाडटा आनी आपले
दत्ता हे धुवेच्या नादीं लावन ताका देळ्यांत हाडूंक सोदता. दोगांय
पडटात. तींय, तागेल्या घरांतल्या सगळ्यांक फितावन अंतीं ताचेर ताणी
आनी कौशांबीक पळटात. फुडें महासेनाचो राग न्हिवता. अखेर गोड
आनी दोन राज्यांत इश्टागत जाता.

रूपकार आकाशवाणी,पणजी, हांगा पयलो वितरायलो. 'जाग' प्रकाशनाचे
मन्त केळेकार हाणीं तो पुस्तक रुपान हाडपाची अित्सा अुकतायली. तांच्या
न आज तो अुजवाडाक येता.

बोरी, १–३–७२ बाकी बोरकार

## पात्रां--रचणूक

| | |
|---|---|
| **वत्स उदयन** | ...... कौशांबीचो राय |
| **यौगंधरायण** | ...... ताजो म्हामंत्री आनी वत्स राज्यार येयसरचो कौशांबीचो राज्यपाळ |
| **रुमण्वत** | ...... ताचो सेनापती |
| **अलर्क**<br>**वसंत** | ...... वत्साचेच पिरायेचे, ताचे इश्ट आनी वांगडी |
| **चंडमहासेन** | ...... अवंतीचो राय |
| **गोपालक**<br>**विकर्ण** | ...... ताचे कुंवर |
| **रेभा** | ...... अवंतीचें राजपाटण अुज्जैनीचो राज्यपाळ |
| **परिणक** | ...... उदयनाच्या वाडयांतलो अेक सेवक |
| **अंगारिका** | ...... अवंतीची राणी |
| **वासवदत्ता** | ...... महासेन आनी अंगारिका हांची कन्या |
| **अंबा** | ...... तिची दासी |
| **मंजूळिका** | ...... वासवदत्तेचे सेवेक बंदी करून दवरिल्ली सौराष्ट्राची राजकन्या बंधुमती |




# आंक पयलो

## देखाव पयलो

* * *

(अवंतीच्या राजवाड्याचें अंतर्गृह. चंडमहासेन बसला. ताचो पूत गोपालक ताचे सर्गी उबो आसा.)

**महासेन** : गोपालका,
दैव म्हजें घल्लां आडावन वत्स उदयनान
जैत आमचेर जोडित ताणे तोडलां आमचें त्राण

**गोपालक** : पिताजी,
विस्मितांचें शौर्य ताजें विस्मरूंक जायना
हरशि घरच्या सुखांत ताका येवजूंक पसून फावना
मद्य, गीत, नृत्य हाणीं सामको ताका घेर्लो
येवजूंक उसव नाशिल्लो कोण वयर केल्ला सल्ला ?

**महासेन** : तितलीच पुता, आस्त आमची वैऱ्या तेळित रात्र
समय सादुन वर्मार ताज्या घाल अचूक घात

माण्णेन बंदि करुन ताका कौशांबींतल्यान काड
आनीक आमच्या उज्जैनीच्या स्वर्णवनीं हाड
सोबितकाये घालुन ताज्या सभोंवतणीं भूल
प्रखर ताजो प्राण आमी करया अरळ फूल
हांगच्या म्होंवाळ सुरावळीन जीव ताजो आळटलो
हांगच्या दिव्य देखाव्यांनीं केळत केळत भाळटलो
दोन मधुर ओंठ ताज्या शौर्या लिपण लायतले
गिरे कशे दोन दोळे लगाम ताका घालतले

**गोपालक** : पात्रलें म्हजेर, आसा पोण्ण एकूच म्हजें मागणें
राज्यांतलो भायरो करात, घालुन फटीं-रागणें

**महासेन** : भायरो तुका केला पुता, राज्यांत दवणें पेट्टलें
कंवटाल सादल्यार सम्राटाचें जैत आमकां जोडटलें

⁂ ⁂ ⁂

## देखाव दुसरो

⁂ ⁂ ⁂

( कौशांबीतल्या राजवाड्यांतलो एक दिवाणखानो. यौगंधरायण आनी रुमण्वत )

**यौगंधरायण** : रुमण्वता,
बळगें ताजें, बळगें अखल्या कौशांबीचें,
आज फुलांत न्हिदुन आसा
गुप्त ताजे व्हडविकेक, चडट्या वाडट्या वर्सासवें
खांद्यां भार येंवचो आसा
वत्स आमचो चोख हिरो, कौशांबीचो नामनेतुरो
ताका तासां घालीत अशी सोदतां व्हंकल...

**मण्वत :** तुमचो विचार खरोच बरो
पोण्ण झेलीभशेन चली, आसून पसुन गोडा-बेली
खंय गा तुमकां मेळटली ?

**यौगंधरायण :** संवसारांत एकलीच आसा देवांक पसुन मानतली
नखेत्राचें रूप तिचें, शील सिते-सावित्रिचें
जोगलांचें तेज तिचें, पोण्ण काळीज गायित्रिचें
उग्र तिल्या वंश-रुखा भाग्यान एक आयलां फूल
तिकाच लागून परमळटलो वत्स आनी वत्सकूळ

**रुमण्वत :** मृत्युलोकीं असली देवता एकच आसा वासवदत्ता
अवंतिचें रायरत्न आमच्यान कशें इत्सुं येता ?
दोनय राज्यांत जळटें वैर, सोयरीक कशी जमतली ?
महासेना पदवी कशी हय म्हणूंक नमतली ?

**यौगंधरायण :** ( प्रवेश करपी वत्साक लेखून )
वत्सा, कुंवरा, इतल्यांत कसो सोंपलो तुजो वनविहार ?

**वत्स :** फांतोटेचें सरुन विभव वोताक आतां चडटो भार !
अलर्कांच्यो बिना-गती आतां वाजत उरतल्यो
वसंताच्या कवनकथांत रसां-झरी झरतल्यो
थंयच्या रसां परमळ हाडूंक घेवन आयलां फुलतें साळीक
हयकार तुमचो आयलां घेवंक सोडुन घळी वनस्थळींक

**यौगंधरायण :** कंवळ्या वयांत केळय जिवा पोण्ण कोंवळो जावं नाका
जगार जैत जोडुंक प्रखर जालेबगर रावं नाका

**वत्स :** सोबितकाये सुंदरकाये चित म्हजें ओंपलां हांवें
राज्यशकट राज्यकपट दिसता म्हाका नश्टें दांवें
पोण्ण शस्त्रकवचसज्ज कटक म्हाका हाडटा फुरण

लखव बाणां–पावसांत म्हाका दिसता आंगार घेत्रचें मरण
केन्ना अशे सुंदर सोबीत झूज आमी लडटले ?—

**यौगंधरायण** : उर्बोवक घाल्ले आमचे बेत सारके जेन्ना पिकतले
असलें विघ्न येवचे आदीं लग्न तुवें केल्लें बरें
व्हडें तडीक व्हरचें आसा जंवर म्हज्या हातांत येरें

**वत्स** : सपन सारकें सोंपच्या आदीं जाग्रुताये भान नाका
विघ्ना मूळच कापल्याबगर कशेंच म्हाका लग्न नाका.

**यौगंधरायण** : इश्वराची लीळाकळा कोण कशी सांगतलो
मनार घेतल्यार तोच तुजें विघ्नांत लग्न लायतलो
अवंतिचो व्यूह तूंच भुजां–बळान तोडटलो
अद्भुताचें रत्न अशे वासवदत्ते हाडटलो

**वत्स** : अमृतमधुर हेंच नांव कितले दीस आयकतां
रम्य तिचें चंद्रवदन कल्पनेन पारखितां
दिसता तिज्या म्होंवाळ ताळ्यान विणा म्हजी लजतली
मनचि मुर्त जावन जिती ह्रुमऱ्या भितर सरतली

( इतल्यांत भृत्य परिणक भितर सरता. )

**परिणक** : जयोस्तुते । जयोस्तुते ।
भव्य भाळ, राजचाल, असलो पांथ आयला मेळूंक
हाडचो भितर काय कितें ? जयोस्तुते, जयोस्तुते

**वत्स** : असल्या कुळिण अतीथिची जलमजात ओड म्हाका
सन्मानान हाडुंक ताका परिणका अनमन-नाका

( परिणक गोपालकाक भितर हाडटा. )

**गोपालक** : कौशांबिचो राय, ताचे सोदित आयलां पांय

**वत्स** : सामकार तुज्या आसा उबो, सांग कितें जाय

**यौगंधरायण** : रुमण्वता, रूप हाजें बारकायेन तेळुन पळे
लागना थांग असले हाचे गिरबे कशे बारीक दोळे

**गोपालक** : वत्सराय कौशांबिशा तुका म्हजें त्रिवार नमन
कुळा-शिळा आयकुन कीर्त तुकाच मुजरत आयलां शरण

**वत्स** : माग, म्हाका दिवंची ओड

**गोपालक** : पयलिं म्हाका नांव सांगुन
हांगचि हांगा करुं दि फोड

**वत्स** : दोळे तुजे, चेरो तुजो दिसता म्हजे वळखिचो
पोण्ण हांव जाणां मनिस मोग दिवन धारखुंचो

**गोपालक** : गोपालक नांव म्हजें, अवंतिचो कुंवर हांव
एके काळचो वैरि तुजो, तुज्याच म्हऱ्यांत घेतल्या धांव

**यौगंधरायण** : महासेना-पुतान कित्या कौशांबिची धरची कास ?
मुखेल आपल्या दुस्मानाची कित्याक अशी करची आस ?

**गोपालक** : मंत्रिराय दिसता तुजो, चेरोच सांगता महामती
आस्रय तुजो आसचो म्हाका, खरेंच म्हजी दीन गती

**यौगंधरायण** : अशेंय आसून, अवंतिचो कुंवर कसो म्हणोवन घेता ?

**गोपालक** : बापायन भायर घालो तरी, दायज कशें तोडुंक येता ?
राया रायसान म्हजेच भुंयेंत आज हांव परकि जालां
दैव निठुर जाल्ल्यान अशें शिरय तुज्या पायांर घालां
धन वाडो नाका म्हाका, खोंप घोल लेगित पुरो
न्हिदुंक लागत इतलीच जमीन आनीक उशापुरतो चिरो

**यौगंधरायण** : वत्सा, पुता सावध राव
विदोलाच्या उतरांतपसून
धांकुन आसता गुप्ति-घाव

**वत्स :** अवंतिच्या कुंवरा तुका मागलां तेद्दुन अदिक दिलें
उग्र अशा पितृकोपाक कारण तरी कसलें जालें.
अडी नासल्यार सांग म्हाका—

**गोपालक :** तितलें मात विचार नाका
घरचें छिद्र सांगचें कशें, बापायक बोल लावचो कसो ?

**वत्स :** दिलो तुका वाडो वाडी, असलो पूत म्होंत्रा–शिंसो

**यौगंधरायण :** असल्या खिणा, उदारपणा
इतलो कोण दीत कोणा ?

**वत्स :** महासेना–पुता तुजी व्यथा म्हज्यान सोंसूंक नजो
वेंगेंत म्हज्या येवशी काय जावन भाव इश्ट म्हजो ?

**गोपालक :** दुल्लभ असलें मेळचें भाग्य होच म्हजो आसलो हेत

**वत्स :** वाडो म्हजो काळिज म्हजें खरेंच रितें तुजे विरयत
चल यो म्हज्या अंतःपुरांत...
( दोगय भितर वतात. )

**यौगंधरायण :** राया जिण्याक कितले धोके !
कितले गरे ! कितली तांत...!






# आंक दुसरो

## देखाव पयलो

* * *

( कौशांबीच्या राजवाड्याचें एक दालन. थंय अलर्क आनी वसंत. दोगय वत्साचेइश्ट )

अलर्क : आमचो वत्स जाण्टो केन्ना जातलो
आनी घेतलो खांदार राज्याची धुरा !
रुमण्वत जड्डो, यौगंधरायण घाडी
दोगांच्योय दोन तरा
तेच जाल्यात राज्याचे हात
आनी तांच्या हातची हालत जशि तांत
तसो आमचो वत्स खामसुत्र्याचें खेळणें कसो
तांच्याकडल्यान थापटून घेता
आनी नाचता तांच्या ताळार
आंखिल्ल्या आंगणांत

केळत खेळत आनी त्याच रंगांत संतोशान हांसत
खरें मरे वसंता ?

**वसंत :** अलर्का, हो संवसार म्हळ्यार देवालें उमाणें
तोच तें घाल्ता, तोच सोडयता.
तांतुतच रमता, आपलें एकटुकेपण विसरता
ताजी कळा, ताजी लिळा; कोण करीत तिजी तुळा ?

**अलर्क :** आमचो महामंत्री
दोळ्यांत तेल घालून आसता टेळीत
ह्या नव्या आयिल्ल्या आगंतुकाक
ताका खचित पडल्या पाल
' ह्याज्या पोटांत इंगळ्यांचें इंगीत '
संवसारा ! गूढ गाड तुजें सार
लागना तुजो अंत पार

**वसंत :** सगल्या मंत्र्यांत तोच घाडी
रूं नाशिल्ल्याक पूं काडी
पाख्यार बसुन पारव्यां–जोडें
करित जाल्यार कुटुर कुटुर
मनांत खचित म्हणटलो,
घूट कितेंय चल्ला निठुर

**अलर्क :** विळ्ळ्यांच्या ह्या संवसारांत
तशेंय घडप शक्य आसा.

( वत्स गोपालकाक घेवन प्रवेश करता. )

**गोपालक :** वत्सा, दाखयशी तूं म्हाका
विंध्य पर्वताचे सगळे सुळके
जंयचीं दाट अटंग्य रानां

देंवत देंवत वतात
म्हजे अवंतीक ?

त्स : गोपालका, वच्चुंया आमी वांगडा भोंवडेक
चपळ सावजां—पारध करीत
अथवा भाले मोर्खीत करया परास्त
सावजांचो राजा, अरण्याचो सम्राट

गोपालक : म्हाका दिसता आमी दोगांनीच
वचचें एकटुक्यांनी, रेखीत मोखीत
विंध्यारण्याचो कोनशान कोनसो
तोखेत ओखेत थंयचो शेकानशेक एकांत
मोडिनासताना थंयच्या विराट सैमाची
निवांत समाधी,
घालिनासताना थंयचे मुक्त समर्थ जिणेक
मनशाचे नश्टे युक्तिचो सांपळो आडो

त्स : हांवय आंवडेत आयलां असल्या सपनाक !
अलर्का, सांग महामंत्र्याक
आमी वचूंक सोदतात म्हणून
विंध्यारण्यांत मृगयेक
अवंतीच्या सरादीचेर
ताजी कांय अडि नासल्यार

(अलर्क राजवाड्यांतल्यान वता.)

✻ ✻ ✻

## देखाव दुसरो

※ ※ ※

( विंध्य पर्वतांतली एक गाळ. विकर्ण आनी एक सेनेनायक.
विकर्ण हो महासेनाचो दुसरो पूत )

**विकर्ण :** अजून चल्लुया पयस भोंवडेची जाग
पुण आमचें सैन्य आसा रोखून सगलीं धांवां
पुण नायक, गोपालक पावना कसो अजून ?

**नायक :** शत्रु आयल्याबगर सारको जाळांत
नसती उतावीळ पडत म्हारगांत
म्हणून विकर्णा सावध, पावलां वाजतात
( दोगय लिपतात. गोपालक येता. )

**गोपालक :** आं ? तूं विकर्ण ?
कसलें हें शाणेपण पिताजीचें
उग्र तुजें जुवानपण
नेटून हांगा धाडपाचें
असले कळेच्या वेळार
धोक्यांत घालून आपल्या दोगांय पुतांचें जीवित ?
बरें, रथ खंय रावल्यात आमचे ?

**नायक :** ते थांबल्यात आमच्या दाव्यान

( विकर्ण आनी नायक लिपतात. गोपालक वता. दुसऱ्या वसल्य
वत्स, अलर्क वसंता सयत येता. )

**अलर्क :** वसंता, आमी वाट चुकले दिसता.

**वसंत :** ना, अलर्का म्हाका दिसता, आमचे वाटाडीच चुकल्यात वाट.

स : मायेस्त म्हज्या इस्टांनो,
कितलें हांगा थंडगार, चोरोव दाट पाचवो चार
खांदयानीं वारें झुळझूळ, सवण्यांचे ताळे मंजूळ
चल अलर्का, खंय वाट चुकल्यात पळे, आमचे भोंवडीकार
वांगडी, हाड तांकां हांगा, आसासर थोडो उसव
घेवंदी तांकां ह्या शीतळ पर्णकुंजांत अप्रुपांचो विसव.

लर्क : कोणाचीं तरी वाजतात पावलां.

( गोपालक येता. )

त्स : गोपालका, कितलो वेळ हांव तुका रावलां
कित्याक तुका इतलो कळाव ?

ोपालक : हेडत आशिल्लों एका धव्या चितळाचे फाटल्यान
कितें सांगतलो तुका ताजें अद्भुत देखणेपण
विजेसारको वेग, सादुरपण, शिटुकपण !

संत : पुण तें देखणें भोळें सावज
तुज्या हाताक लागलें व्हय ?

ोपालक : ना, पुण दिसले कांय तीरमारे,
आमच्या सैन्याभायले
तांचेकडेन उलयलों हांव
हे गाळींतल्या वाटां संबंदान
जंयच्यान आमच्यांनीं पावं येता रायरस्त्याक.

त्स : भोंवडी तर सोंपली
मागीर कित्याक तुज्या खांदाक हें धनुश्य
आनी कमराक ती तरसाद ?

ोपालक : सांबाळटां हीं हांव आंगार
अचकीत सावद आंगार येत म्हणून

**वत्स :** गोपालका, खुशाल सांबाळ तीं आनी म्हाकाय बी.
कितलो सुखाचो ह्या रुखांचो हो सव्वास ?
आनी तांतूत तुजी ही राखण ह्या निर्जन निवान्तांत !

**गोपालक :** तुजें जीवन सोंपयलांच तुवें म्हज्या हातांत

**वत्स :** मानला तुका भाव, हांव तुज्या वेगांत

**गोपालक :** धन्य हांव, तुज्या विस्वासाक हांव फाव जांव.

(शस्त्रां खणखणिल्ल्याचो आवाज)

**वत्स :** लागसारच खंय शस्त्रां वाजलीं न्हय ?

(तो उठूंक करता पुण गोपालक थंयच्या थंय ताचो हात दामून धरता.)

**गोपालक :** हांव गोपालक पालक तुजो !

**वत्स :** म्हजो ?

**गोपालक :** वत्स, पिताजीन फर्मायला म्हाका
तुका धरून हाडूंक
तूं आतां सर्वार्थांनी म्हज्या हातांत
म्हजो बंदी, म्हजी जोड.
हांव व्हरतलों तुका मिरयत
जशी स्वर्गांतल्या गरुडान व्हेल्ली तुजे आवयक
मेरू पर्वताचे दुर्गम तेंगशेचेर

(तो उलयता आसताना शस्त्रधारी शिपायक येतात.)

नायका, पिटाळ रथ बेगोबेग, वराहविवरांत
राव निर्धास्त, कुंवर आतां म्हज्या हातांत.

**नायक :** करात ताकतीक, करात ताकतीक
सुद्दस पावलां कौशांबीक

पालक : ताजो तुमकां हुसको नाका
येयात फाटल्यान बगलो राखा.
( ते झाडांनीं अदृश्य जातात. कांय खिणांनीं वसंत धांवता. )
संत : पात्रळि पयस रथा चाकां
वैऱ्यान दिल्यो हातार तुरी
आतांच आमची हिक्मत खरी
( यौगंधरायण, रुमण्वत आनी बाकिचे सगळ्या वाटांनीं येतात .)
ौगंधरायण : खंय आमचो राय वत्स ?
ताजें धोणू हांगा हुमकळटा कशें ?
ताजी ‍सरसाद आनी बाण
ते तर हांगाच पडल्यात.
मण्वत : अजून पावंक ना तो शिमेभायर
आमी हाडटले ताका अवंतींतल्यानपसून
शस्त्रांची शिकस्त करून.
धरात सराद बेगोबेग
पळटल्यांचो मोडून वेग
शीम ताणीं हुपचे पयलीं
आमी तांकां धरूं बांदूं.
( यौगंधरायण सोडून बाकिचे ताकतिकेन धांवतात. )
ौगंधरायण : व्यर्थ आतां हांची धांवपळ
झेमतात तांचे कश्ट विफळ
तरी बरें, म्हजे दूत, म्हजे हेर
तेळीत आसात केर न केर
अवंतिच्या राजवाड्याची
आनी भुयेरांतले बणखणींत पसून

मांडुन आसात म्हजे हात
वत्साक हात दिवंक

※ ※

## देखाव तिसरो

※ ※ ※

( अवंतीची वनश्रीन भरिल्ली दोंगुल्ली. थंय गोपालक वत्साक म्हन्यांत घेवन बसला. शेकानशेक मुखार मळ. भोंवतणी शिपायकांचो गराडो. )

**गोपालक** : थांबल्यात रथ, ते मळार दिसतात ते आमच्या
सैन्याचे दिवे, काजुल्यांचे चोंबे कशे
चडत आसात आमचे फाटली वाट

**वत्स** : ( न्हिदेंतल्यान जाग येवन )
ही [illegible]वंत[illegible]मू ?

**गोपालक** : सल्ल्यात आमी तिचे शिमेभितर
आमचें सैन्य हांगा लागलां जमूं

**वत्स** : तूं हेंच कंवटाळ येवजून आयिल्लो तर !

**गोपालक** : हेंच न्हय, आनीकय एक, जें जांवचें आसा.

**वत्स** : जितलो सहज धल्ला तुवें म्हाका जाळांत
तितल्याच सहज जाणा हांव तें तोडुन वचूंक

**गोपालक** : तें जमप मोटें दुर्घट
पावला घावलाक उबे तट
विळल्यांचे

※ ※



# आंक तिसरो

देखाव पयलो

※ ※ ※

( राजवाड्यांतली एक कूड. महासेन आनी ताजी राणी अंगारिका )

**महासेन** : न्हय जावं शस्त्राच्या शौर्यान
पुण शिमेभायऱ्या चातुर्यान
अजून शकतां हांव जिखूंक.
जिखून हाडला हांवें
वयावयलो वीर वत्स
म्हजो बंदी करून, म्हजे राणये !

**अंगारिका** : ( हांसून ) वज्रदेही मारुतीन खांकेक मारून
हाडिल्ल्या सूर्याभशेन
पुण म्हाराज,
करतले कितें तुमी ताका असो हाडून ?

**महासेन** : कितें दिसता तुका ?

**अंगारिका :** चड व्हड तो वत्स तुमचे व्हडायेक
तुमच्या कपटाक करपी देड कपट
[illegible]का दिसना तुमच्या तोळान तो बागवत असो !
(वास[illegible]दत्ता [illegible]सत[illegible]रता आनी आवयबापायक प्रणाम करता. )

**महासेन :** वासवदत्ते, म्हजे चलये, म्हज्या गळ्यांतले ताव्रजे !
आयलो भाग्यान म्हुर्त तुका,
तुका जल्म दितल्या तुज्या आव्रयबापायचें रीण
फारीक करपाचो.
वत्स, कौशांबीचो राय, म्हजेकडेन दालि बांदपी
म्हजो वैरी, म्हज्या भाग्याच्या मार्गांतलो दुर्गम पर्वत,
पावला आज म्हजे अवंतींत, म्हजो बंदि जावन.
म्हाका जाय तो जाल्लो तुजो घोव्र आनी दासय
तुजे नदरेन तुवें करूंक जाय ताका मोव्र,
मोडुंक जाय ताजें दुर्दम्य बळ, करूंक जाय
ताका म्हजो मांडलीक, हेरां राजांभशेन.
म्हजी केन्नावसून्नची इत्सा ही.
तुजीय तीच मू, म्हजे कुंवरी ?

**वासवदत्ता :** पिताजी, तुमची इत्सा तीच म्हजीय
आनी प्राक्तनाचीय बी

**महासेन :** हय, तुका मानल्यार

**वासवदत्ता :** पिताजी, तुमकां मानलें तें म्हाका मानलें
म्हजी इत्सा तुमचें साम्राज्य पातळचें संव्रसारभर
जाणां हांव म्हज्या राश्ट्राचे व्हडविकेंतच
आसा म्हजें सासणाचें कल्याण !

हासेन : पळेली म्हगेले, राणये,
म्हज्या राजकर्णाचे तालमेंत, कशी तयार जाल्या
ही म्हगेली शिश्या,

गारिका : म्हाराज, खुशाल मानात तुमी समाधान
तिणें चिरली म्हणून तुमचीच वळ
पुण म्हाका ती अजून अर्भक
खूब कळाव आसा तिका कळपाक
ह्या विस्मितांच्या संवसाराची कळ
आतां चलात तुमी, सांगुंदी म्हाका म्हजे चलयेक
म्हज्या अणभवाचीं चार उतरां
म्हजे तरेन ( तो वता. )

गारिका : ( वासवदत्तेक वेंगांत घेवन )
म्हजे धुवे ! घे मात्सो विसव, हे तुजे आवयच्या काळजार
फाल्यां घेवंचे आदीं अशाच दुसऱ्या काळजाचो
सासणाचो आधार.
तुवें निकतींच आयकल्यांत रायाचीं उतरां राजकर्णाचीं
आयक आतां हे तुजे सादे भोळे आवयचीं,
मायेन फुलोवपाच्या संवसाराचीं.
म्हजे अपुर्बाये ! तुका आतां वचचें आसा
एका म्हान यज्ञकुंडांतल्यान, जितलें प्रखर तितलेंच
म्हौंवाळ, जें बायलमनशेच्या वांट्याक एकदां तरी येताच
आपल्या झेळींनीं कंवटाळीत तिज्या कुडीक आनी काळजाक.
तुका सांबाळचें पडटलें हें अग्निहोत्र.
तांतल्यानच दिसतले तुका, जिते जागते देव,
आनी तुवें शिकिल्लें येवजिल्लें सगळें, अदृश्य जातलें

एका खिणांत कापराची आरत करों, परतें नव्या
रुपांत प्रगट जावंक. आयची म्हजी भास,
आज गत्रसुंची ना तुका—
पुण येतल्यो राती, दोळ्यांत पाती लागूक दिनात अशो
जेन्ना हींच म्हजीं उतरां दितलीं तुका धीर उजवाड
(वासवदत्तेक कुशीन करून अंगारिका आवेगान चलूंक लागता.

**वासवदत्ता** : सगळ्यांत हिजेरच म्हजी चड माया, सामको जीव
पुण उमाण्या कशा हिज्या उतरांचो,
कसोच लागना म्हाका थाव.
पुण म्हज्या पिताजीचे विचार उद्‌गार !
ते रोखडचे म्हाका कळटात पट्टात
हांवें लग्न जावचें जाल्यार, जाय म्हाका असोच पती
जो झेल्लून धरीत म्हजी नदर, फुलांत गुंथीत म्हजें उतर
वत्स, वत्स उदयन, आयकलां हांवें, फकत
ताजें नंदतें गाजतें नांव; कसो आसत काय तो ?
फूल काय झेल ? गोपालकाभशेन उग्र प्रखर !
काय सुवर्णकांतीचो, साळकांच्या दोळ्यांचो
सुकुमार गंधर्व ?
करों सकल वयर जाता म्हजें काळीज
दोळ्यांनीं कंवटाळूंक ताजें नामनेसारकें रूप.



## ...खाव दुसरो

****

(स्थळ : तेंच. महासेन, अंगारिका, गोपालक, वत्स.)

**गोपालक** : अवंतीनरेश, चंडमहासेन म्हाराज
तुमचें इत्सीत हांवें आज सिद्ध केलां
तुमच्या परिवक्त्र यशाक, पावलापावला आडमेळीं हाडपी
आक्रांताळो वैरी, तुमचो दास करून
हो हांव तुमच्या पायांसरीं हाजीर करतां

**वत्स** : अवंतिराय महासेना ! हो हांव तुज्या मुखार उबो आसां.
म्हाका असो कपटान हांगा हाडपांत कितें तुजो मनोदय ?
म्हजेकडल्यान तुका अशें जाय तरी कितें ?

**महासेन** : म्हाका जाय तुवें म्हाका माथ्यार घेतिल्लो
तुजो धनी, तुजो अधिराय, तुजो सम्राट म्हणून

**वत्स** : अवंतिराय, चुकता तूं.
तुवें कपटान हांगा हाडला,
तो स्वर्गवंशीय सत्यनेकाचो पूत
न्हय म्हान कौशांबीचो राजाधिराज

**महासेन** : मागीर आसता तरी खंय
कौशांबीचें तरुण राजवैभव
न्हय जाल्यार ह्या म्हज्या सामकारच्या सुवर्णपात्रांत ?

**वत्स** : तें बणखणीच्या गजांदारांनीं
कोणाकच केन्ना कोंडूंक मेळपाचें ना.

**महासेन** : पुण राजकुंवरा, तुजेर हांवें नेमल्यात
ते सादे शस्त्रधारी बणखणकार न्हयत. तर—

तांचे परस कितले तरी चतुर आनी समर्थ
सौंदर्याच्या अस्त्रांनीं सज्ज, अशे पाळटीकार.
जांचेआड हात उखलूंक, कसोच जावपाचो ना तुका धीर.

**वत्स :** अशें ? जाल्यार चलत तें म्हाका.

**महासेन :** राजकुंवरा, मारती घे तुजी बडाय
तूं जांव वत्स ना जाल्यार म्हान कौशांबीचो अधिराय
तूं आज हांगा म्हजो बंदी, म्हजो दास
लक्षांत घेवन तुजें कंवळें वय
तुका नेमला हांवें चाकर म्हजे चलयेचो
तिच्यो सुंदर सुंदर घेडयो, तुजे भोंवतणी
घालून आसतल्यो असो नाजूक रसमाचो राजू
कि केदेंय जरी व्हड आसलें तुजें धारिश्टय
तरी तें धजचें ना तो तोडूंक· आसा हें तुका मान्य ?

**वत्स :** न्हय केवळ मान्य, म्हजे मानी आढ्यतायेक हें एकदम प
कारण वासवदत्तेचे सेवेसारकेलो ना दुसरो सन्मान,
सुख आनी सद्‌भाग्य.

**महासेन :** गोपालका, म्हजी ही दुर्मिळ भेट
तुजे भयणिच्या पांयार नजर कर.
( गोपालक ताका घेवन वासवदत्तेच्या म्हालांत वता. )

**महासेन :** अंमाविके, ह्या पोराकडेन आसा तें फकत देखणेपण
हाज्यो बडायो फुलिल्ल्यो जायो
ओत लागलें तशो बात्रपाच्यो !
दिसतलेंच तुमकां

**अंगारिका :** म्हाराज ह्यो जायो आसल्यो तरी वज्राच्यो
दिसतलेंच तुमका

✻ ✻

## ाव तिसरो

: ※ ※

( वासवदत्तेचो महाल. वासवदत्ता, मंजूळिका, अंबा )

**ासवदत्ता** : मंजूळिके, तुवें पळेला ताका ?

**जूळिका** : हय तर !

**ासवदत्ता** : ( उतावीळ जावन ) उलय मगो तर, कसो दिसता तो ?

**जूळिका** : सामको मदन. सुवर्णाच्या मनीसदेहांत.

**ासवदत्ता** : ( सुखावन ) इतलो देखणो ?

**जूळिका** : हय, तुजेभशेन, न्हय तुजेय परस. पळे आयलोच तो. ( वत्साक घेवन गोपालक येता ) पळेनाशिल्लेभशेन कर. पुण पळेच.

**ासवदत्ता** : कितल्या दिसांनीं भावा तुजें हें आज दर्शन ?

**ोपालक** : आशिल्लो हांव खूब पयस तुकाच लागून
होच तो कीर्तिवंत वत्स उदयन, म्हान कौशांबीचो
अधिराय, हाडला हांवें तुजे सेवेक, तुजो
दास म्हणून, नामनेचो वादक, अद्भुत हाजी बोटां.
गायनांत गंधर्व, श्रुतिदुर्लभ हाजीं गितां.
हाडल्या मू हांवें तुका फावशी भेट, म्हजे अर्थिचे भयणिबाये ?

**ासवदत्ता** : अपार भावा तुजी माया, आमचे सारकेल्याक
केदेय भेटेचें कसलेंशें मोल
तिका येता मोल खरेलें
हे असले तुजे मायेन

**गोपालक** : समजून घे म्हजे भयणी, हाका कर आपलोसो
आनी वत्सा, निश्ठेन सेवा कर तुजे हे मालकिणीचीं
आनी सदांच राव हिचे आज्ञेंत. ( गोपालक वता, )

**वासवदत्ता :** हो तर भुरगो, भांगराची बावलि कसो
म्हजेपरस ल्हान, हाचे वांगडा खेळूंक
कसलो म्हाका भंय, कसलि हरकत ? ( वत्साक उद्देशून )
कितें तुजें नांव ?

**वत्स :** वत्स उदयन हांव

**वासवदत्ता :** वत्सा, तूं असो कांपलो कित्याक ? भियेलो ?

**वत्स :** जांवये, आनंदाचे तेंगशेर भंयाची आंकरी येता जांवये !

**वासवदत्ता :** ( हांसून ) सारकें आयकलें ना हांवें.
कौशांबीच्या राया, म्हज्या सेवका
कितें करशी तूं म्हाका खुशाल करूंक ?

**वत्स :** जाय तुका ही पृथ्वी तुज्या पांयार हाडून घाल्ली
म्हज्या रणविद्युत् धनुश्यान ?
तर धाड म्हाका रणांगणार : मागीर ही पृथ्वी तुजीच.

**वासवदत्ता :** पुण तितल्यान धादोस जावपाचें ना म्हजें मन

**वत्स :** तर मागीर सांग कितें जाय तुका तुज्या ह्या दासाकडल्यान
तुका मानत, सुखायत अशें

**वासवदत्ता :** कितें जाय म्हाका ? ( आपल्याकच विचारिल्लेवरी )
म्हाका जाय तुजें सर्वस्व, तुजें कर्तुत्व, तुजें अस्तित्व
आसूंक जायना तातूंत तिळय उणो.

**वत्स :** तुज्या पांयांर म्हज्या सर्वोदकाचो दोणो

**वासवदत्ता :** ( स्वताक सांवरून घेवन )
नकळ हांव कशि आमी घुसपलीं नसत्या उतरांत
चंचळ करपी मतीक आनी मनाक
विरुंदि तांकां थंयचे थंयच

**वत्स :** उलयल्लीं उतरां विरनात वाऱ्यार

सवदत्ता : तर मागीर थारुं दि तांकां
आनी पडुंदी थाऱ्यार

***

खात्व चवथो

***

(राजसौधावेल्या शिखर महालांत वत्स कोचार बसला.)

वत्स : (स्वगत) कानांनीं आयकल्लें, मनान चित्रायल्लें,
सपनांत पळेल्लें त्यायपरस अपार अगाध हिचें लावण्य !
खचित ती म्हजी. त्रिवार म्हजी. कशि शिरशिल्ली म्हज्या
स्पर्शान. कशो त्रिवार सकळशो जाल्यो तिज्यो रुंद पातयो
म्हजे नदरेक नजर लायताना
(वत्स वणखून आनी दोळे धांपून येवजिता. मंजूळिका भितर सरता
आनी ताजें रूप तेळटा)

मंजूळिका : तुका न्हीद म्हळ्ळो न्हय सुस्त ?
मागीर मोडलो कसो तुवें, तुका दिल्लो हुकूम ?

वत्स : तो मोडला तो न्हिदेन. हांवें न्हय.
मंजूळिके, प्राक्तनान तुका म्हाका घाल्या एकच वेंठ
कित्याक एक जावन आमी ती सोडोवंची न्हय
दोगांनीय लावन नेट ?

मजूळिका : कसले धीट हिकमतीखातीर ?

वत्स : तुका कशि खबर, ती घोळटा म्हणून म्हज्या मनांत ?

मजूळिका : हांव आसतीं जाल्यार दादलो मनीस तुजे भशेन !

**वत्स :** जाय मू तुकाय मेकळीक ? लायशी म्हाका तूं हातभार ?
**मंजूळिका :** कितें आसतली तस्त्रीप ?
**वत्स :** तूं म्हणशी ती. यवजिल्ली गजाल सादली तशी
**मंजूळिका :** आसतलि ती बरीच मोटी
**वत्स :** केदीय आसूं, पडटली ती तुजे होंटी
**मंजूळिका :** आतां हांव करतलीं म्हज्या प्राक्तनाचेर मात
तुज्या कामाखातीर वेंचतलीं सर्व शक्त
आनी मागीर मागतलीं तिका फावशें मोल.
**वत्स :** माग माग मनसोक्त
पुण कौशांबींत पात्रतकच.
**मंजूळिका :** धादोस मनान हांव वतां
तूंय सुखान न्हीद आतां
**वत्स :** असो आसल्यार धीर आधार
न्हिदन हांव चिंचेपानार ( मंजूळिका वता )
( आपणाशींच ) कितलें मधूर वीणेचें संगीत !
पुण त्यायपरस मधुर
मनशाचे हृदयवीणेचें; छेडूंक कळ्ळयार समर्थपणान
तिज्यो समुद्ध तारो. कला उदात्त ! पुण संकटांक तोंड
दीत, विरोधाचेर मात करीत, ऋताच्या हेतांचो मेळ घालीत
ते तडीक पावोवप ही कला तिजेय परस वरिश्ट
गायन स्वर्गीय, पुण त्यायपरस स्वर्गीय मोग,
निर्मळ, सोज्वळ, अथांग

**

ात्र पांचवो

※ ※

(वासवदत्तेचो महाल)

**सवदत्ता :** तोंडसून आयिल्ल्या उतरांचेर
हातसून घडिल्ल्या करण्यांचेर
कसोच उरना जाला म्हजो तावो
होच जायत काय आत्रयन म्हळ्ळो यज्ञाचो उजो ?
खरोच उजो : पुण कितलो मधूर ! (अंबेक)
अंबे, चल घेवन यो वत्साक
ताज्या गोपुरांतल्यान (अंबा वत्साक घेवन येता.)
वच तूं अंबे, वत्सा यों
आनी राव म्हजे मुखार

**स :** म्हजे स्वामिनीचोच हय मू
हो मधूर ताळो ?

**सवदत्ता :** चीप : नदर सकयल
दासाचे दोळे आसूंक फावनात इतले धीट
आपले स्वामिनीकडेन उलयतना.

(रोखडीच सर्गदन जावन)

वत्सा, खऱ्यानींच आसा म्हजेर
तुजी सामकी भक्ती ?
(बागोवन ताज्या केंसाच्या मुदयांतल्यान बोटां फिरायत)
खऱ्यांनीच तूं असो म्हजो दास जाला जाशी जाल्यार
तुजेलागीं ना म्हजें दुसरें कसलेंच मागणें

**वत्स :** मागचें आतां उल्लां कितें ?
सर्वस्वच जर हांव दिवन चुकलां.

**वासवदत्ता :** तुवें जर म्हाका ओंपून घेतलां
तर मागीर तुजें सर्वस्व म्हजें न्हय ?
तांतलें इल्लें पसून कसो दवरता तूं
हात राखून ?

**वत्स :** व्हर सगळें : तें तुकाच अर्पण

**वासवदत्ता :** खऱ्यांनीच मनपसून मान्य तुका म्हजी सत्या ?

**वत्स :** सामकी, सर्वस्वी, बारीक सारीक गजालींतपसून.
जेन्ना हांव आसतलों म्हज्या कौशांबीच्या सिंहासनार,
न्हय हांगा, जंय हांव आसां तुज्या पिताजींचो बंदी.
नखशिखांत हांव जावंक शकतलों तुजो, तो थंयच.

**वासवदत्ता :** वत्स, खरेंच चल तूं हांगचो.
अंबे, घेवन वच हाका, म्हजे सरचो.

**अंबा :** ( वत्साक घेवन वतना ल्हवूच ताज्या कानांत )
आनीक कोणाक लायलें आंयस ?
सगळिं आमी तुकाच फितूर.
( वत्स आनी अंबा वतात. )

**वासवदत्ता :** केदें सुख ! केदो आनंद !
जायत जाल्यार तो म्हजो आपल्या सर्वस्वासयत !
आनी केदी व्हडवीक जावपांत ताजी राणी
आनी ताणें जोडिल्ले धर्तरेची !
कित्याक करचें न्हय बंड हांवें हे कुळारचे देखीआड
श्रीकृष्णाचे ते रुक्मिणीभशेन ?

※

## आंक चवथो

### खाव पयलो



(राजगृहांतली एक कूड. अंगारिका आनी वासवदत्ता)

**ंगारिका** : कितलें गोड गायता तूं म्हजे धुवे !
चोरून घेतलें कशें तुवें तुज्या गीतांत
वत्साचे कलेंतलें सुकुमार क्रंदन ? (वासवदत्तेक मांडयेर घेवन)
बस अशें म्हजे मांडयेर, आनी पळे म्हजेकडेन.
सारकें बरें पळोवं दी म्हाका तुज्या दोळ्यांत
आनी वाचुं दि म्हाका सगळें कितें चलता तें
तुज्या मनाच्या तळांत.
कित्याक करता तूं पातयो खालत्यो ? म्हाका कळचें न्हय म्हणून ?
म्हाका कळनासताना कशी उरत, म्हज्याच काळजाच्या
कुडक्याची कळ ?

**वासवदत्ता** : आवय ! आवय गे म्हजे !
तूं आनी कित्याक धोंसता म्हाका
उरें पुरें जाणा आसताना ?
आसुं दी तुजो गंदाचो हात म्हज्या काळजार
ह्या असल्या हुलपावणेच्या वेळार
**अंगारिका** : जाय मू तुज्या काळजाक थंडाय ?
तर आयक तुज्या काळजाची सांगणी
आनी पळे ती पाळपांत केदें सूख, केदो आनंद !
म्हजे अपुर्बायेचे पिसाये !
प्रणयाचे शाळेंत विफळ बुद्दीचें शाणेपण
तिजो गर्विश्ट हट.
हांगा जाय कुशाळकाय काळजाचें कंवळिकायेची.
**वासवदत्ता** : आवय गे म्हजे !

(आवयचे कुशींत हुंदकेता आनी आपले कुडींत धांवता. इत
म्हणसर विकर्ण येता.)

**अंगारिका** : विकर्णा, कित्याक तूं असो त्रस्त ?
कित्याक तुजें उढाळ कपाळ
कुपांनीं भरिल्ल्या मळबाभशेन ?
**विकर्ण** : कित्याक हाडला हांगा राय वत्साक
आमचे हे उज्जैनींत असो बंदी करून ?
**अंगारिका** : कोण सांगतलो ? इत्सा तशी तुज्या बापायची !
कोणाक आसा प्राज्ञा ताका हें विचारचेली ?
ताजे दुर्दम्य इत्सेभायर चलचेली ?
**विकर्ण** : आसा म्हाका म्हजे मातुश्री !
आसल्यार ताजी इत्सा नितीभायरी

ंगारिका : विकर्णा, राख मान तुज्या बापायचो
तो कसोच सोडचो ना आपल्या वैऱ्याक
ताजे पुरतें समाधान जाल्याबगर.
घेवं नाका जोगुल आंगार
नसतोच हट घेवन.

ेकर्ण : तर मागीर पळेशीच तूं
हांव करतलोंच ताजी सोडवण

ंगारिका : जो आमच्या वंशावेलें अरिस्ट ताजी ?
कित्याक म्हणून ? आनी खंयच्या अधिकारान ?

ेकर्ण : तो आसा म्हणून हाडाचो वीर
आनी म्हजो जीवकळेचो इस्ट

ंगारिका : क्षात्रवंशांतलो उदात्त राजधर्न
आसा तर अजून कांय जाणांत
जागो आनी जिवो !
कितलो धन्य आज म्हजो हो कुसवो !

1/149

※ ※ ※



खाव दुसरो

※ ※ ※

( वासवदत्तेचो महाल : वत्स आनी वासवदत्ता )

त्स : वासवदत्ते, अजून सादूंक ना तुज्या हातांक
वीणेच्यो ह्यो तारो फाव तशो छेडपाचें कसब
उपकरना निखटें तांकां तिडावन

तांची दामूंक जाय अशी कळ
कि आपसुक येत भायर तांच्या मर्मांतली वेदना,
पळेतली कशी ती ?

( वीणेचे तीव्र स्वर काडटा. )

**वासवदत्ता** : म्हाका जमना तें
म्हजे हात आयकनात म्हाका कशेच.

**वत्स** : तर मागीर हांव लायतलें तांकां आयकूंक.

( तो तिचो हात हातांत घेता. )

आतां लावं नाका हां बोल
तुजो हो हात हातांत घेतलो म्हणून !

**वासवदत्ता** : वाज आयलो म्हाका तुका बोल लावन लावन
बोल लावन घेवपांतच जाका सुख
ताका बाये कोण लायतलो देख ?
तरी बरें. हातच घेतलो तुवें हातांत !
(तो एकदम तिका वेंगेंत ओडटा.)
तर्पोशोर ! सोडटा काय ना म्हाका
तुजे वेंगेंतली ?

([illegible]सोच तिका सोडिना. तिची मान ताज्यार खांदार विसव

**वत्स** : अशी तुजी मान आसता ना खांदार
कोण जाय नासतना रावत स्वर्गारय उदार ?
अनमन नाका अशा परमानंदाच्या वेळार
सगळ्या कळांनीं फांकारूंक तुजें अमृताचें काळीज.
सातय स्वर्गांत आसत कोण देव आज म्हजे इतलो तृप्त
आनी तरीय भुक्त युगायुगांचो ?

**सवदत्ता** : वत्स ! वत्स !

(तो बळजबरेन तिची उमा घेता)

**स** : कितली म्होंवाळ जिवणी तुजी
स्वर्गांतल्या अमृताची अजरंवर झर !
आतां देवांयपरस धन्य हांव आनी तितलोच निर्वेध
कसली म्हाका तमा जालो जरी शिरच्छेद !

**सवदत्ता** : आतां एकदांचो वच पळोवंया हांगचो
तुजे कुडींत !

**त्स** : खरेंच घडली व्हय म्हजेकडल्यान
तुजी अमर्यादा ?
तर चल्लों हांव.

(वचपाचें संवंग करता.)

**सवदत्ता** : वत्स, राव. वचुं नाका, हांव रागार जावंक ना तुजेर,
पुण बस मात्सो, म्हाका लावं दी तुका थोडी
देख. हें अशें तुवें परतें जायना करूंक
आनी अशे भशेन तर न्हयच न्हय.

**त्स** : तर शिकय न्हय म्हाका कशें तें !

**सवदत्ता** : (अस्वस्थ जावन पुण हांसून)
सेवक आनी असो आंगार-पडो पळेल्लोच ना बाये
करचीच पडटली तुका खर ल्यास्त.

(ती एकदम येता, ताका वेंगांत ओडटा आनी आवेगान ताजी उमा घेता.)

**त्स** : मेळटा जाल्यार इतली मधुर ल्यास्त
कोणाक लागचें ना चट
परती परती तीच चूक करपाचें ?

(वासवदत्ता परतीय ताका तेंकता, ताजी उमा घेता अ
वयल्यान म्हणटा.)

**वासवदत्ता** : आतां तरी सोडशि व्हय तूं म्हाका ?

**वत्स** : ना. केन्नाच ना. वासवदत्ते, तूं अशीच वाढ चंवर
म्हजे वेंगेंत रुखावेल्या सोबीत वालीभशेन

**वासवदत्ता** : म्हज्या सुखा ! म्हज्या सर्वस्वा !
इतलें सोबीत, सुंदर शिरकमळ
नासतलें खंयच ह्या संवसारांत !

(इतल्यांत थाकिल्लेवरी)

मंजूळिके !

**मंजूळिका** : ही हांव. राजकुंवरी, कितें आज्ञा ?

**वासवदत्ता** : कित्याक आयली तूं मदींच ?

**मंजूळिका** : आपयल्ली न्हय तुवेंच ?

**वासवदत्ता** : अशें ? जायत !
हालीं म्हाका लागल्या हाड व्हर विसर
तुका आपयल्ली व्हरूंक ह्या वत्साक ताजे बणखणींत
हांसता तूं न्हय ? हांव काडटलीं तुका पेटून.
तुजीच ही सगळी चूक.

**मंजूळिका** : जायत बाये. आनीक कितें म्हणटलीं ?
आतां वत्सा, मेतरावण्यो नाकात, यो असो म्हज्या बराबर
कुंवरीच्यो दासी लोटतल्यो आतां हांगा.
परती परती मान परतून नाका हां तिका पळोवंक.
(मंजूळिका वत्साक दोनय हातांनी ओढून व्हरता.)

**सवदत्ता** : शरिरांत दहन, प्राणांत क्रंदन.
उचांबळ उसंखळ म्हजें मन.
बांद फुटून उसळटात म्हज्यो उमळशिको.
आनी शिडशिडटां हांव सर्वांगानीं,
उदकाच्या चिटयांभशेन.



# आंक पांचवो.

**देखाव पयलो**

*** 

( वासवदत्तेची कूड. वासवदत्ता आनी मंजूळिका )

**वासवदत्ता** : केदी धिटाय तुजी मंजूळिके
हांगा येवपाची ?

**मंजूळिका** : बळयांच आयल्यां हांव अशी.
लाय छाती आसल्यार म्हजे नदरेक नदर.
तितलें धाडस जावचें ना तुज्यान. आतां उलय.

**वासवदत्ता** : पळे तरी केदें अरिश्ट, हाडलां तुवें आपोवन.
आतां पिताजीकडेन हांव पळोवं तरी कशी
नदर वयर करून ? कितें उलोवं ? करूं कितें,
वाटावपाक म्हज्या वत्साक ?

**मंजूळिका** : राजकुंवरी, जें केल्लाय तरी कळटलेंच
तें येन्नाच कळिल्लें बरें तुज्या बापायक

सवदत्ता : तर तुजोच आधार, म्हाका अशा वेळार
खरेंच पराथतां तुका हांव अशी हात जोडून

जूळिका : तर मागीर सोड तुगेली सदांची प्रौढी !

सवदत्ता : हांव पांय धरतां तुजे
आतां तूंच म्हाका वाटाय, काडुन हांतल्यान वाट
स्मर, कशी हावें लेखली तुका
म्हजी भयण, म्हजी वांगडीण, म्हजी इश्टीण
दासी आसून पसून.
येद्या वेळार राख म्हाका आनी वाटाय म्हाका
म्हज्या बापायच्या क्रोधाग्नींतल्यान
मागीर माग केदीय तस्रीव, तुज्या मनाक येत ती.

जूळिका : तसली कसलीच आस्त उरूक ना म्हाका
उल्ल्या एकूच घेवपाची सूड
तुज्या बापायचो आनी गोपालकाचो
जांणी लायली चूड, म्हजे प्रतिश्टेक, म्हज्या सपनांक.
तो सूड हावें घेतला, आतां हांव धादोस
पयलीं दी म्हाका वचन, आयकतली म्हणून, हांव सांगन तें
वत्स मेकळो जायसर

ासवदत्ता : ( सुखावन ) वत्स, तूं एकाएक आयलो सो ?
हावें आपोवंक धाडुंक नाशिल्लो तुका

त्स : ना कसो ? हांव तर आयलां आयकून
तुज्याच काळजाचे एकार एक उले

ंजळिका : हो बाये कसलो बोवाळ हाशां-ताळयांचो ?
कितें चल्लां काय रायाले सभेंत

पळयात तरी एक पोंगो म्हातारो
आपल्या फकाणांनीं लोकांक हांसोवन मारता तो !

**वत्स** : मंजूळिके, हांव बेस बरो वळखतां त्या दोळ्यांक
म्हजो इश्ट तो. कसोय करून हाड पळोवंया ताका हांगा

**मंजूळिका** : राजकुंवरी, ताका हाडुंया न्हय हांगा आपोवन ?
जाणा, कितलो शीमसर्त नाशिल्लो हो इश्रितांचो विदुशक ?

**वासवदत्ता** : जळ्ळी तुजीं हीं लक्षणां !
हो कितें वेळ गो नाटका चटकां करपाचो ?

**मंजूळिका** : हय. होच. कशें कळना तुका ?

**वासवदत्ता** : चल आपय तर.

**मंजूळिका** : तूं वच पळोवया मात्शी भितर.

( दोगीय वतात. वासवदत्ता भितर आनी मंजूळिका विदुशकाक आपोवंक )

**वत्स** : यौगंधरायणाचीच माण्णी ही, ताणेंच हो असो धाडला ताव
सगळें कशें घडटा देवान येवजिल्ल्यावरी.
कोण करीत ताजे कळेचो अंदाज !
ताज्या हातांत हें जग म्हळ्यार खामसुत्र्याचें बावलें.
तो गुप्त सूत्रधार जागमाग लायनासताना
खेळयता आमच्यो करण्यो येवजण्यो. आनी घडचेलीं घटितां
जमतात ताका जाय थंय, पांगिल्ल्या गोरवांभशेन
राखण्याचे शिळोणेसरशीं. सगळ्यांचो मायेस्त प्रतिपाळक
तूं, सर्वसमर्थ, आनंदनिधान, युगानयुगां चलयता हें विश्व
खंयच ताका धोंगपोंग येवंक दी नासताना.
( मंजूळिका वेशांतर केल्ल्या वसंताक घेवन येता )
कोण हो जुंगो पुराणपुरुस तुवें हाडला तो ?

**वसंत** : ( वत्साकडेन पळोवन ) हें रे बाबा कोण सवंग ?

जूळिका : तन्न्या म्हातान्याक खांकेर वखद.

त्स : उलय तूं निश्कळंक, तुका सांगचेलें आसा तें
आमचींच मनशां सगळीं हांगा आसात तीं.

संत : ( वत्साक लेखून आनी मंजूळिकेक विनोदान दोळो मारीत )
पळयल्याभितर वायट गेल्यो नात हांगा तुज्यो घटको
म्हजे सारकेल्याचे मात काळ्याचे धवे जाले
ह्या बोवाळांत. म्हजे हांसकुरे चतुरकाये !
तुजेच सांगणेची जाप हाडूंक, लावन आयलां हांव
हें धवें फुल्ल खाड, मारुन फाटीक हें
रायाल्या घरचें कुबड. अवंतीच्या दोंगराचे कडेर
आसतली सज्ज तुका ताजी लागत ती मजत

त्स : ताका रावंक सांग म्हज्या सैन्याक आवर घालून
उज्जैनी लागशिल्ले गर्द वनराजींत
जी सोबता अवंतीक तांबशा कमरपट्याभशेन
रावचें ताणें रांपून लोकनाथ दोंगुल्लेच्या आडसाक
पुण कशीच हुंपची न्हय ती शीम म्हज़ो रथ पावतासर

संत : इतलीच म तुगेली सांगणी ?

त्स : हय. हेर सगळें करतलों हांव म्हज्या म्हालवजार

संत : बरें येतां तर हांव. ( तो वता. )

जूळिका : कळूंदि म्हाका तुजो इशारो

त्स : हांगा वाडयांत तर सर्वत्र जागतो पारो

जूळिका : पुण उपवन आसा न्हय आस्कळ विस्कळ
क्रीडाविहाराचें ?

त्स : तर थंयच येवंदी वासवदत्तेक, आपल्या भावांक घेवन
एके तिनसना आनी व्हावं दी थंय मद्याचे लोट,

चान्दन्याच्या वर्शांवांत. कितलीं दारां ह्या उपवनाक ?
आनी कितले थंय पारेकार ?

**मंजूळिका** : आसनात कितलेय. ते आसतले पियेवन सामके जाम.
भायर मागीर रोखडेच रस्तेच रस्ते

**वत्स** : तर मागीर रथय दवर एक तयार म्हजे खातीर
वासवदत्तेक वेंगांत घेवन झुजप कठीण जातलें म्हाका.

**मंजूळिका** : झुजपाक मेकळेच आसूंक जाय तुजे दोनय हात
वत्स, पळे तरी कशें करतां हांव तुजें सारथ्य !

**वत्स** : म्हजी रणसखी तर तूं
मागीर आनी कित्याक जाय उलोवंक ?
येतां हांव. ( तो वता. )

✻ ✻

## देखाव दुसरो

✻ ✻ ✻

( उज्जैनीचें क्रीडोपवन. गोपालक, वत्स, विकर्ण. मात्शीं पयस झाडांच्या आडसाक अंगारिका, वासवदत्ता आनी अंबा )

**गोपालक** : वत्स, म्हजे तकलेंत मद्याचे आलाप
म्हज्या प्राणांत चान्दन्याक हुंवार
खंय आसा वासवदत्ता ? आपय तिका हांगा आमचेमदीं
आमच्या सुखाक येत कशी भरती
ती अशी पयस पयस रावल्यार ?

**विकर्ण** : थंय झाडांनीं आसा ती माताजी सरीं.

पालक : आपय तांकां हांगा. तूं वत्स, ती आनी हांव
घेवंया हें मद्यामृत एकाच चशकांतल्यान.
आनी दिवंया वचन एकमेकांक मनपासून
कि आमचीं काळजां केन्नाच विलग जांवचीं नात म्हणून
एकामेकांपसून
( मंजूळिका दरवट्यांतल्यान येता. विकर्ण, अंगारिका आनी वासव-
दत्ता हांकां घेवन येता. अंबा तिका येवकार दिता. )

कर्ण : जालां मू सगळें येवजिल्ल्याभशेन ?

जूळिका : सगळे घुंवळून पडल्यात दरवट्यांत

कर्ण : वत्सा, मातृशी जाप दी, बरीं न्हय बांदून घाल्लीं
तांचीं तोंडां आनी हात ?

( तो दरवट्याकडेन वता )

ारिका : मंजूळिके, हेच रातीं मू प्रयाण ?

जूळिका : प्रयाण ? कसलें ? कोणाचें ?

ारिका : विकर्णाचें गो !
दिवं नाका हां लागूंक सुनशा
ताका वा हेरा कोणाक
हांव हें सगळें जाणां म्हणून.
( ती हेरांसरीं वचूंक करता. )

पालक : तुमी जंय थंय फांसळ्ल्यांत तीं येयात पळोवंया हांगा
माताजी, तुजो वरदहस्त दवरून ह्या भरिल्ल्या चशकार
दी ताका बळ आमी तो तोंडाक लावचे पयलीं.

ारिका : ( वासवदत्तेक वेंगात घेवन )
वासवदत्ते, आसुं दी तुका याद तुजे हे आवयची
सुखसागरांत बुडून आसताना पसून

आनी गोपालका, पाय पळोवया म्हाका राजवाड्याच्या
दारामेरेन, उलोवचें आसा म्हाका एक उतर तुजेकडेन

**गोपालक** : चल माताजी, यो अशी
( दोगांय राजवाड्याकडेन वतात. )

**वत्स** : वासवदत्ते, म्हज्या सुकुमार प्राणा !

**वासवदत्ता** : वत्स, वत्स, कित्याक उखलिल्लेवरी जाला
असो म्हजो जीव आयचे हे अवखुळे राती ?

**वत्स** : हांवें अशी तुका अचळय उखलुन व्हरची म्हणून
( तिका वेंगांत घेता. )
अपूर्व आयचे हे रातचो उल्हास आनी आनंद
चल्लीं आमी, दी आतां नदरेन निरोप
तुज्या ह्या बापायच्या वाडयाक

**वासवदत्ता** : आतां ? ह्या वेळार ? आनी हें असलें आंधळें धाडस ?
तूं असो निःशस्त्र आसताना ? हत्यारबंद पारेकार
जिवनूशीं मारतले तुका.

**वत्स** : राव तूं निर्धास्त म्हजे वेंगेत
आमचीं जोडिल्लीं प्राक्तनां जावन आसात दोट्टी धाल

**विकर्ण** : सगली तयारी सामकी जय्यत
आतां उखलात पांय बेगोबेग

⁂ ⁂

## देखाव तिसरो

⁂ ⁂ ⁂

( बासवदत्तेची कूड, महासेन, अंगारिका, बांदून हाडिली अंबा,
आनी शस्त्रधारी बायलो )

हासेन : हांगा तिजे कुडींतय ना ती–केदी दगलबाजी !
केदें लांछन हें म्हज्या वंशाक ! केदी नखलामी, म्हज्या
माना भोत्रमानाक. पिळल्यार ओंठांतल्यान दूद येतलें
असो एक सामको नाजूक पोर म्हजे कन्येक उखलून
निसट्टा हया राजवाडयांतल्यान, इतलो कडेकोट बंदोबस्त
आसताना. केदी लज ही ! हांसून बकच्छायो करता
आसतलो हे अवंतींतलो जणेक मनीस आज हे
पयलेच फावट गदळून गेल्ल्या ह्या चंडप्रतापी महासेनाच्यो.
असल्यांनी कोण दितलो म्हाका मान ? कोण मानतलो म्हजो
दरकार आनी कोण भियेतलो म्हजे तरसादीक ?

गारिका : व्हंकलेक पळवन व्हरून लग्न करप
हो परिपाठच न्हय आर्यांलो ?
कौशांबीच्या रायान तोच पाळ्ळा.

हासेन : म्हाका चलपाचो ना तो परिपाठ

गारिका : अशी कशी विसर पडटा तुमकां
तुमचे धुवेच्या अंतस्करणाची ?
सामकेंच कशें अगत्य ना तुमकां
तिज्या सुखाचें, तिज्या कल्याणाचें ?

हासेन : म्हजी धूव मु ती ? तर मागीर
आपल्या वंशाची अब्रु गेल्ली पळोवंक
ती ना दवरची जीव. ना–केन्नाच ना.

गारिका : तुमकां दिसता व्हय, ताणे व्हेल्या तिका जबरदस्तेन ?
ती अणकूळ नासताना ?
( एक किरातीण येता आनी सांगता. )

**अंबा** : तटाच्या बुरजावयल्यान आयला कोणसो कितें तरी
खबर घेवन

**महासेन** : हाड–घेवन यो ताका हांगा.
( किरातीण नायकाक घेवन येता )

हां उलय

**रेभा** : वत्स सटकला.
दरवळ्यांतले पारेकार सगळे पडल्यात
मेल्ले वा हातपांय टिल्ले अवस्तेंत
आनी वासवदत्तेक घेवन पिटाळ्ळा निर्धास्त
ताणें आपणालो रथ, फाटीं घालीत मळांचीं मळां
धव्या फुल्ल चान्न्यांतल्यान.

**महासेन** : मागीर धरात ताजी फाट विजेच्या वेगान

**रेभा** : माफी आसची म्हाराज, उतर आटफाटें गेल्यार.
वत्स गेला तो राजकुंवर विकर्णाच्या रथांतल्यान
ताजेच भयणीक घेवन आनी विकर्णच जाला स्वार
घोड्यार ताचे राखणेक

**महासेन** : ( खिणभर अजाप जावन थांबता. )
कितें ? म्हजें सगळें घरच उठलां काय कितें म्हज्या जिवार
म्हजेंच रगत आनी म्हजे आड ?
नायका, चल, काड भायर सगळे म्हजे रथ
धांवडाय ते जाता तितले बेगीं आनी
घे त्या पळपुटयांची सोद पाताळांत पसून ते गेले तरी.
( नायक वता आनी गोपालक येता. )
गोपालका, कर पुता म्हज्या सैन्याचें मुखेलपण
आनी घेवन यो परती तुजे भयणीक, वचचे पयलीं

आमच्या कुळाची अब्रू. येवं नाका परतो, तुज्या
बापायचे व्हडविकेक लागिल्लो दाग सारको पुसल्याबगर.

पालक : पिताजी, आयकात आतां म्हगेलें मातूशें
जरी आसलें तें सामकें आड तुमी सांगतात ताज्या
आमी सगळ्यो दिको बांदून पसून वत्स वीज कसो सटकला
घडलां खरें आमकां नाका आशिल्लें तें.
पुण तितल्यान हें मात खरें न्हय कि आमच्या वंशाक दाग
लागला.
आमी केल्ली माण्णी ताका मांडलीक करपाची
दाखोवन ताका लाल्टूच वासवदत्ते–रत्नाची
ताणें आपणालें स्वातंत्र्यय सांबाळ्ळें आनी रत्नय उखल्लें.

सेन : पळेल्ले अंतीं तुमी सगळ्यांनींच घूट केला म्हजे व्हडविके आड.
युवराज तूं अवंतिचो. म्हजे फाटोफाट तुजो हांगा शेक.
आतां आयक. सांगडल्यार तीं म्हज्या राज्याचे शिमेंत
खात्री दवर हांव तांकां चिड्डितलोंच. पुण तीं पावलीं जाल्यार
शिमे ायर, सोड विंध्याचो नाद आनी कर तांचेकडेन साम
घेवन वच वासवदत्तेचो सगळो सरंजाम, तिगेलें वस्त्रप्रावर्णे
आनी जडजवाहीर आनी कर तें तिजें तिका पावतें. हे अंबेकय
व्हर बरोबर. कर वासवदत्तेक सांगात, ना जाल्यार वच
तिचे फाटल्यान कौशांबी मेरेन. पुण येवं नाका थंयच्यान
ती वत्साची पट्टराणी म्हणून अभिशिक्त जालेबगर.
तिणेंच आसूंक जाय सिंहासनार उदयनाची अर्धांगी म्हणून
तेन्नाच आसूंक पावतले थोडे तरि थंडायेचे संबंद
आमच्या ह्या दोन राज्यांमदीं.

पालक : विकर्णाकय येतां घेवन परतो.

**देखाव चवथो**



(अवंतीचें अरण्य; चान्नें. वत्स, वासवदत्ता, मंजूळिका)

**वत्स** : कमाल तुजी मंजूळिके लगाम धरपाची
आमी आयले पात्रत आमचे शिमेचे लागसार

**मंजूळिका** : पुण वैऱ्यान आमकां घेरल्यात सगळ्या वाटांनीं

**वत्स** : दोनदां ताजो घेरो आमी तोडला
तसोच तोडुं आमी आनीक दोनदां
हो पळे आयलो विकर्ण

**मंजूळिका** : (जांबय दिवन) हे न्हिदेकडेन साम करूंक आयिल
जाल्यार ! झूज करुकरून आंबेल्लेवरी जालां म्हजें आंग.
(विकर्ण रेभाक घेवन येता.)

**वत्स** : रेभा, सांग कितें तुजी अट

**रेभा** : वत्स, आमी घाला तुका वेडो चोंशीय
येता व्हय तूं शरण ?

**वत्स** : फकाणां चलयल्यांत काय कितें तुवें ?
बऱ्यान लाग पळोवंया चलूंक आयला तसो
आळवाच्या वेठींचो वेडो तुजो. दोनदां तोडला
तिसरेय फावट तोडटलों. मेजल्यात व्हय तुवें
तुगेल्या सैन्यांतले कितले मेल्यात ते ?

**रेभा** : जित्यांचो आंकडो आतां पयलींपरस चडला
उज्जैनींतल्यान येता थंय आसा नवी कुमक
देखून बऱ्या बोलान कर कुंवर आमचे सुवादीन
आनी वच खुशाल हुसक्यामेकळोतुगेल्या राज्यांत.

त्स : जाणा तूं केदें उद्धटपण आसा तें, हे तुजे अटींत ?

भा : तर मागीर राजकुंवरा. पळे वाट

प्राक्तनांत थारायलां ताजी. जितो जावं मेल्लो जावं

घेवन वतलेच आमी तुका परतो आमचे राजधानींत

हांवें त्रिवार घालां तुका वेडो

तुजे घोडे आतां आयल्यात कोसळूंक

आनी केदोय जाले तरी, तूं कितें

धनुर्धर अर्जुन न्हय. फांतोट जांवची जाली

दवर लक्षांत हो तुजो अंत.

त्स : तर मागीर आतांच घे म्हजें उतर

दीस माथ्यार येता सर, तुजी म्हजी भेट आमचे शिमेंत

※ ※ ※




खाव पांचवो

※ ※ ※

( अवंतीची शीम, रुमण्वत, यौगंधरायण, अलर्क आनी शिपायक )

रुमण्वत : दोंगुल्ल्यांच्या माथ्यावेली पालवली सकाळची किरमीज

पुण अजून ना वत्साच्या रथाची जाग

वोतां आतां चडत चल्ली.

अलर्क : पळे, पळे, रुमण्वत, येता कोणय पुण घोड्यास्वार

अवंतीची शीम हुपून नदरेन वेध घेत

रुमण्वत : खचित आयला तो तोडून खूब व्हड अंतर

पळे कसो ताजो घोडो तोंडांतल्यान काडटा फेण

आनी आयला सामको नाखयां पडपाक

**यौगंधरायण** : येता तो स्वार दादलो न्हय तर बायलमनीस
जरी धांवत येता वेगान आनी सशस्त्र

**अलर्क** : तिणें पळेलें आमकां आनी ती देंवता घोड्यावेल्यान

**यौगंधरायण** : बायलमनीस आनी घोड्यार !
म्हज्या मनांत पडल्या पाल, ना मू हातूंत कांय कंवटाल ?
काय आकांतून आयल्या ती घेवन अनिश्टाची वार्ता ?
ती येता ती कोणतरी फाटीं लागिल्ले भशेन !

**अलर्क** : दिसता तर वयावेली आनी अळगटांतली
(मंजूळिका येता.)

**मंजूळिका** : तुमीच मू वत्सरायाचे सेनानी !

**रुमण्वत** : हय, तोच हांव

**मंजूळिका** : पुंजा करात तुमचें सैन्य. वत्सान पिटाळ्ळा आपलो रथ
पुण वैऱ्याचें सैन्य करीत आसा ताजो फाठलाग
व्हगडाव नाकात वेळ, ताका पावयात मजत तत्काळ
ताज्या थकिल्ल्या स्वारांचेर करचे पयलीं मात
वैऱ्याच्या अगणित सैन्यान आनी बाणांनीं

**यौगंधरायण** : रुमण्वत, त्वरा. (रुमण्वत वता.)
कोण तूं ? आनी इतपार कसो धरचो हांवें
येवंक ना म्हणून तूं अवंतीचे वतीन आमच्या सैन्याक
कात्रेंत सांपडावपाक ?

**मंजूळिका** : तर मागीर खचित तुमी यौगंधरायणच
ह्या राज्यांतलें मूर्तिमंत शाणेपण, शिटुकपण !
तुमच्या प्रस्नाक म्हजी ही जाप; पुण थारायशात
तें थारायात वेळ व्हगडाय नासताना.
बंधुमती म्हजें नांव, सौराष्ट्ररायाली कन्या हांव

बापूय बंदिवासांत आनी हांव वासवदत्तेचे सेवेंत
अशी आमची कथा ! पट्टा तुमकां वळख हे राजमुद्रेची ?

ौगंधरायण : ही तर आमगेल्या वत्साली.

※ ※ ※

ृश्याव सवो

※ ※ ※

(अवंतीच्या अरण्याचे शिमेर. रुमण्वत, यौगंधरायण, अलर्क आनी शिपायक)

मण्वत : आवरात आवरात आमची दौड
हो पळेयात पावलो वत्सालो रथ
घोडे आयल्यात सामके मोडूंक थांबले तशे

ौगंधरायण : पुण लागशिल्ल्यानच येता आवाज
दळाचे चालीचो,
आनी येतातशे दिसतात ह्या अरण्यांतल्यान
अवंतींतले रथ

( वत्स, विकर्ण आनी वासवदत्ता पावतात. )

त्स : तात, थरता वेळार त्या त्या गजालीची फळश्रुति
आनी ही हांव घेवन आयलां म्हज्या साहसाची जोड
आसा मू म्हाका क्षमा सगळें गुप्त राखिल्लेबद्दल ?

ौगंधरायण : ह्या मुखार तूं उरूंक ना म्हजो मानिल्लो पूत आनी शिश्य
आज तूं महारथी वीर आनी सम्राट,
दवल्लां तुवें तुजें समर्थ पावल, गर्विश्ट अवंतिच्या माथ्यार

**वत्स** : तरींय तुमचो पूत रावपांत म्हजी धन्यताय.

**यौगंधरायण** : जयोस्तु वासवदत्ते
आमच्या म्हान कौशांबीचे म्हाराज्ञीचो !

**वासवदत्ता** : ( समाधानान हांसत वत्साकडेन पळोवन )
म्हाका मेळ्ळा तो हो राजमुकुट केद्या धक्याचपाट्यां उपरांत

**वत्स** : खरेंच संकश्टांचीच आशिल्ली ही शर्यत
पुण नशिबान माल्ली बाजी, विळख्यांच्या वाटांनीं
करूंक नासती मात तांचे संल्येचेर
तर कठीण आशिल्लो गांठप हेमेरेनचो पल्लो !
कितले फावट घेवंचो लागलो आमकां थार
आनी दिवंचो पडलो आमगेल्या घोडयांक विसव
पुण नासतें तांचेलागीं येदें मोटें मनीसबळ
तर मात जातो ना धीर तांकां फुडें सरूंक

**यौगंधरायण** : पुण आतां मांडटले ते झूज दिवंक

**वत्स** : तर मागीर समजावन सांगात तांकां
झूज जावंक फावना

**यौगंधरायण** : पळे समजांव येता जाल्यार

**वत्स** : आयलेंच तें आंगार तर चुकना आमकां झुजप
पुण तें टाळप शक्य आसल्यार
सरचें आमी फाटीं झुजतां झुजतांच
जाता तितलें.

**विकर्ण** : हो आयलो रेभा ( रेभा पावता. )

**रेभा** : तुमी कितें आयल्यात सामाचीं उलोवणीं करूंक ?



**यौगंधरायण** : अजूनय कित्याक तूं बेस्टो सोदता झुजूंक ?
हामेंरेन घडली ती खाजगी गजाल
निखें दोन व्यक्तिमदलें झूज
अजून धरशी तूं हट झुजपाचो
तर पेट्टलें तें दोन राश्ट्रांभितर झूज
कितें फायदो तें झुजून ?

**रेभा** : म्हाका राजाज्ञा आसा. कुंवरीक आनी वत्साक
धरून हाडचेली. आनी ती हांव पाळटलोंच

**यौगंधरायण** : जें अशक्यांतलें ताजेखातीर हातपांय
पेटपाक ना केन्नाच कोण बांदिल्लो.
आमी हांगा झूज खेळटात तंवर
राय वत्स, घेवन आयिल्ले कुंवरीसयत
सुसंगीत पावतलो आमगेले तटबंदिस्त राजधानींत.

**रेभा** : ही म्हज्या राजाची आज्ञा. हांव प्रतिहस्त ताजो
न्हय तागेलो बुदवंत. म्हजो बुद चलोवपाचो हक
आसा मर्यादित ताजो हुकूम जाता तितले बेगीं
तडीक व्हरपापुरतो.

**यौगंधरायण** : उज्जैनींतल्यान सांगणी आयल्यार तरी
थांबत हो फाठलाग ?

**रेभा** : हें कितें सांगूंक जाय ?

**यौगंधरायण** : तर मागीर धाडून पळे तुगेलो स्वार
तो येसर हांगची मांडावळ आसतली
जंयची थंय, आतां ह्या खिणाक आसा तशी.

**रेभा** : ना. ना धाडचों हांव स्वार
हांव झुजतलों जाता सर.

**यौगंधरायण** : तर मागीर युद्ध !

**रेभा** : म्हाका तमा ना ताची
आमचेच अवंतींत शस्त्रां आसूनय आमी
हात पांगरून रावप
आनी परते तुमी आमच्या देशाच्या सम्राटाक
खलिते धाडप, हें उद्धटपण
हांव ना दिवपाचों चलोवंक. ( तो वता. )

**रुमण्वत** : रेभा, अजून कर विवेक, गरज ना तुवें
जासूद धाडपाची. पळे फुडल्यान येता तो
वायुवेगांतलो रथ अवंतीचो राजध्वज लावन

**रेभा** : येता तो युवराज गोपालक. धादोस हांव

**वासवदत्ता** : म्हजो भावच येता आसत
जाल्यार ख-यानींच हें बऱ्याचें लक्षण

**वत्स** : कारण तूं म्हजी वरदलक्ष्मी
नियति आनी भाग्य, झूज आनी थंडाय
जालीं जरी कितलींय चंचळ,
तरी चलतलीं म्हजे नदरेर
तूं आसा सर म्हजे सरीं.

( गोपालक येता–वांगडा अंबा )

**गोपालक** : अभिवादन वत्स !
जावं सख्य आनी शांतताय
आमच्या दोनय राज्यांमदीं

**वत्स** : तीं तर आसात हांगां मूर्तिमंत म्हजे वेंगेंत
दी येवकार हिका तीं समर्थपणान जोडटलेक

**ोपालक** : आमचे हे उत्कंटेचें प्रतीक म्हणून
घेवन आयलां ही तुजी सुंदर फितूर
तिका कसलीच ख्यास्त लायनासताना
म्हजे भयणी, कर हिजो खोशयेन स्वीकार

**ासवदत्ता** : अंवे, कितली खुशाल हांव
तूं सुसंगीत हांगा धावली म्हणून ?

**ोपालक** : आनी म्हजे भयणीचो सगळो लवाजमो
आनी धनदवलत धांवत येता म्हजे फाटसून :
अवंतीची आसा फकत एकूच अट
म्हजी भयण बसूंक जाय तुज्या सिंहासनार
तुजी एकली एक राणी म्हणून,
आनी वत्सा क्षमा कर म्हाका,
हो सुवाळो म्हज्यां दोळयांमुखार जाल्लो जाय म्हाका
आमच्या नांवाक सोबसारको.

**त्स** : कौशांबीची राजपदवी हे बाबतींत पसून
दुसऱ्या राज्याचो दबाव घेवंची ना चलेवन.
अर्थात वासवदत्ता जातली म्हजी पट्टराणी
न्हय समर्थ अवंतीची कुंवर म्हणून
तर म्हजे इत्सेक आनी मोगाक लागून
म्हजें राश्ट्र आनी राज्याचें हित ही थरयतली
हिच्या म्हज्या विचारान कितें इश्ट तें.
म्हणून भावा म्हज्या, धरुं नाका न्हय तोच हट

**पालक** : इतल्या खातीर नाका जावंक आमच्यांत वेगळेचार
खुबच जालो हे घटकेचो हो आनंद

**वत्स :** गोपालक, यो म्हजे फाटल्यान आनी हाड तुजे भयणीचो लत्राज

आनी तुका जाय तितलें दळ.

प्रिये, मोड जालें थंड

आनी बांलाडलें संकश्ट. म्हजे राणये, आतां भोंवतलीं

आमी, भांगराचीं वनां आनी भांगराचीं शेतां भाटां

सदांकाळ उफेत भांगराच्या सपनांत, स्वर्गाचीं

महाद्वारां आमकां उकतीं जायसर, हे धरतरेचे

म्हजे सुवर्णलक्ष्मी...!

* * *



## आयचीं प्रकाशनां

- प्रसादा फूल
- तुळशी
- गांथन
- वेळेवयल्यो घुलो
- आशाढ पांवळी
- बापू
- वासवदत्ता

## फायचीं प्रकाशनां

- भजगोविन्दम्
- पैगंबर
- ओली सांज
- संशयकल्लोळ
- अुजवाडाचे सूर
- विराट
- सांगाती



